# कोंकणी भाषे खातीर आशिल्ली
# देवनागरीची लेखनव्यवस्था

अक्षरगीता / कोंकणी सचित्र प्राथमिक ह्या शिक्षण पुस्तकांतु
चेरडुवां खातीर देवनागरी अक्षरमालेचो परिचय दिला.
जाल्यार देवनागरी अक्षरमाला कोंकणी भाषे खातीर
उपयोगु करची एक सहज लेखनव्यवस्था आसा.
हे लेखनव्यवस्थेचो परिचय हांगा दिला.



**-शरतचंद्र शेणै**

कोंकणी भाषे खातीर देवनागरी उपयोग करची लेखनव्यवस्था कसली म्हूण पळोंवचे आदीं एक सरळ उदाहरण घेवनु संस्कृत, हिंदी आनी कोंकणी उतरांची सविशेषता पळोवया.

वचन म्हळ्ळेलें एक उतर संस्कृतांतु, हिंदींतु आनी थेट कोंकणींतूय आसा. बरयतना कांय व्यत्यास ना. जाल्यार उच्चार व्यत्यस्त आसाय.

वचन म्हळ्ळेले संस्कृत उतरांतु व/च/न म्हळ्ळेले तिनीय व्यंजनां लागीं अ म्हळ्ळोलो स्वर जोडून आसा. हे निमित्तीं तिनीय व्यंजनांचो पूर्ण उच्चार जाता.

वचन म्हळ्ळेले हिंदी उतरांतु व/च म्हळ्ळेले दोनि व्यंजनां लागीं मात्र अ म्हळ्ळोलो स्वर जोडून आसा. न म्हळ्ळेले व्यंजना लागीं स्वर जोडून ना आनी हे निमित्तीं ताजो केवल अर्धोच्चारूच जाता. संस्कृत भाषे खातीर आशिल्ले देवनागरीचे लेखनव्यवस्थे प्रमाणे बरयताय जाल्यार हें उतर वचन् म्हूण बी बरोंवका. जाल्यार हिंदी भाषे खातीर आशिल्ले देवनागरीचे लेखनव्यवस्थे प्रमाणे तशी नाका.

वचन (हांव थांगा वचन) म्हळ्ळेले थेट कोंकणी उतराचो उच्चार वयरि सांगिल्ले दोनींचेय पशी बरो वेगळो आसा. संस्कृत भाषे खातीर आशिल्ले देवनागरीचे लेखनव्यवस्थे प्रमाणे बरयताय जाल्यार हें उतर व्च्न् म्हूण बी बरोंवका. जाल्यार कोंकणी भाषे खातीर आशिल्ले देवनागरीचे लेखनव्यवस्थे प्रमाणे तशी नाका.

हांतू थाकून देवनागरी उपयोगु करची लेखनव्यवस्था संस्कृताची वेगळी, हिंदीची वेगळी, आनी कोंकणीची वेगळी म्हूण समजता. हें सामान्य परिज्ञान उडगास दवरून मुकार पळोवया.

# अ

कोंकणींत अ म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराक दोनि तराचे उच्चार आसाय. ह्या दोनि तराच्या उच्चारां खातीरीय अ एकच बरयताय.

अनवास / अडगय - ह्या उतरांतु अ म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराचो उच्चार भागिक आसा. जाल्यार अचल / अभय / अमर - ह्या उतरांतु अ म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराचो उच्चार पूर्ण आसा.

कोकणी भाषे खातीर आशिल्ली देवनागरीची लेखनव्यवस्था अनुसरून ह्या दोनि तराच्या उच्चारांकय एकच अ बरयताय.

# आ

आयदन - ह्या उतरांतु आ म्हूण दीर्घ स्वराक्षर बरयल्यां. जाल्यार उतराच्या उच्चारांत तशी दैर्घ्य दिसना!

कोकणी भाषे खातीर आशिल्ली देवनागरीची आनी एक लेखनव्यवस्था ही. निज कोंकणी उतरांत स्वराक्षराचो पूर्ण उच्चार आसा जाल्यार आ म्हूण दीर्घ स्वराक्षर बरयताय - आडसर, आजो, आयतार, आमी, आतां, अशी बरोवंका. असल्या उतरांत ह्रस्व अ बरयल्यार नुपूरो. (अडसर, अजो, अयतार, अमी, अतं, अशी नज)

## ए

ए म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराक कोंकणींतु ह्रस्व आनी दीर्घ उच्चार आसाय. जाल्यार ह्या दोनि तराच्या उच्चारां खातीरीय एकच ए बरयताय.

एकंड / एदोळ - ह्या उतरांतु ए म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराचो उच्चार ह्रस्व आसा. जाल्यार एक / एळु - ह्या उतरांतु ए म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराचो उच्चार दीर्घ आसा.

कोकणी भाषे खातीर आशिल्ली देवनागरीची लेखनव्यवस्था अनुसरून ह्या दोनि तराच्या उच्चारांकय एकच ए बरयताय.

## ऐ

ऐ म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराचो उच्चार आय / अय म्हळ्ळेले वरी जाता. जाल्यार कोंकणी भाषेच्या निज उतरांत खंय खंय की आय / अय म्हळ्ळेले उच्चार येताय, थांगा आय / अय म्हणूच बरोवंका, ऐ म्हूण बरयल्यार नुपूरो. उदाहरण : आयतार, आयलो, आयदन, आयणो, भयणि, खंय, अशी बरोवंका. (ऐतार, ऐलो, ऐदन, ऐणो, भैणि, खैं, अशी नज)

# ओ

ओ म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराक कोंकणींतु ह्रस्व आनी दीर्घ उच्चार आसाय. जाल्यार ह्या दोनि तराच्या उच्चारां खातीरीय एकच ओ बरयताय.

ओवरो / ओवूट / ओखद - ह्या उतरांतु ओ म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराचो उच्चार ह्रस्व आसा. जाल्यार ओरोवु / ओवी - ह्या उतरांतु ओ म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराचो उच्चार दीर्घ आसा.

कोकणी भाषे खातीर आशिल्ली देवनागरीची लेखनव्यवस्था अनुसरून ह्या दोनि तराच्या उच्चारांकय एकच ओ बरयताय.

# औ

औ म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराचो उच्चार आव / ओव म्हळ्ळेले वरी जाता. जाल्यार कोंकणी भाषेच्या निज उतरांत खंय खंय की आव / ओव म्हळ्ळेले उच्चार येताय, थांगा आव / ओव म्हणूच बरोवंका, औ म्हूण बरयल्यार नुपूरो. उदाहरण : ओवरो, भोवरो, मावशी, पावलो, पोवलो अशी बरोवंका. (औरो, भौरो, मौशी, पौलो, अशी नज)

# अं

कोंकणींतु अनुनासिक उच्चार येतना अनुस्वार चिह्न उपयोगु करताय. हो उपयोगु हिंदींतुल्या अँ चिह्ना समान म्हूण सांगुयात. (जाल्यार हें हिंदी चिह्न ँ कोंकणींत उपयोग करनाय) अनुनासिक उच्चार कोंकणींतु खूब येता. हे निमित्तीं अनुस्वार चिह्नाक होड प्राधान्य आनी चड उपयोगु आसा.

उदाहरण : अंकूर, आंग, इंगाळो, उंगोटो, ऊंच, ओंट, कंठ, कांकण, किंकर, कुंकड, कोंकें, इत्यादी

जाल्यार ह्या अनुस्वाराक संस्कृतांतुल्या वरी (मलयाळमांतूंय अशीच) अर्द मकार (ओंट धांकून करचो उच्चार) कोंकणींतु ना.

उदाहरण : राम, काम, आराम, आमचो, विश्राम - अशी बरोवंचें सोडून -

रां, कां, आरां, आंचो, विश्रां - अशी नज.

# व्यंजनां

व्यंजनांक कोंकणींतु चारि तराचे व्यत्यस्त उच्चार आसाय. जाल्यार ते व्यत्यस्त उच्चार वेगवेगळे दाकोवंचाक कसल्याय चिह्नांचो जावो अर्धाक्षराचो जावो उपयोगु करप ना. उदाहरणां -

| व्यंजन | चारि व्यत्यस्त उच्चार | | | |
|---|---|---|---|---|
| | (1) | (2) | (3) | (4) |
| क | एक | करी | तिकसाणि | कविता |
| ग | देग | गती | चांगपण | अगति |
| च | चींच | चड | पचपची | चरण |
| त | शीत | तळें | सुतकल | तथा |
| द | दूद | दळ | उदकळ | सदन |
| र | घर | रड | कुरडो | रचना |
| व | सूव | वच | जेवता | केवल |
| स | भास | सर | दिसता | सरळ |

**(1)** एक, देग, चींच, शीत, दूद, घर, सूव, भास - ह्या व्यंजनांक भागिक ह्रस्व (क् / ग् / च् ) उच्चार आसा. (अ म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराक आशिल्ले वरी)

**(2)** करी, गती, चड, तळें, दळ, रड, वच, सर - ह्या व्यंजनांक भागिक दीर्घ (कॅ / गॅ / चॅ) उच्चार आसा - HER म्हळ्ळेले इंग्लीष उतरांतुल्या E म्हळ्ळेले अक्षराक आशिल्ले वरी.

**(3)** तिकसाणि, चांगपण, पचपची, सुतकल, उदकळ, कुरडो, जेवता, दिसता - ह्या व्यंजनांक अर्धोच्चार मात्र आसा. जाल्यार हें अशी दाकोंवचे खातीर अर्धाक्षर / जोडाक्षर उपयोगु करनाय. तिक्साणि, चांग्पण, पच्पची, सुत्कल, उद्कळ, कुर्डो, जेव्ता, दिस्ता - अशी नज.

**(4)** कविता, अगति, चरण, तथा, सदन, रचना, केवल, सरळ - ह्या व्यंजनांक पूर्ण उच्चार आसा. (अ म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराक आशिल्ले वरी)

## उदाहरणां

- अनवास - ह्या उतरांतुल्या अ / न / स - ह्या तीनि अक्षरांकय भागिक ह्रस्व उच्चार आसा.

अचल म्हळ्ळेल्या उतरांतु हेंच अ बरयताय. जाल्यार उच्चाराक व्यत्यास (पूर्ण उच्चार) आसा.

अनर्थ म्हळ्ळेल्या उतरांतु हेंच न बरयताय. जाल्यार उच्चाराक व्यत्यास (पूर्ण उच्चार) आसा.

सरळ म्हळ्ळेल्या उतरांतु हेंच स बरयताय. जाल्यार उच्चाराक व्यत्यास (पूर्ण उच्चार) आसा.

कोंकणींत अ म्हळ्ळेल्या स्वराक्षराक आनी अकार लागूच्या व्यंजनांक अशी एक विशेष (उच्चार आनी लेखनव्यवस्था) आसा.

- आयदन - ह्या उतरांतुल्या य / न - ह्या दोनि व्यंजनांक केवल अर्धोच्चार मात्र आसा. जाल्यार बरयतना हीं व्यंजनां पूर्ण रूपानच बरयताय.
- आडसर म्हळ्ळेल्या उतरांतुलीं ड / र म्हळ्ळेलीं व्यंजनांय अशीच. केवल अर्धोच्चार मात्र आसा जाल्यारीय बरयतना पूर्ण रूपानच बरयताय.

खूब कोंकणी उतरांतु अक्षरांक असले अपूर्ण उच्चार येताय. जाल्यार बरयतना तीं अक्षरां निज / पूर्ण रूपानच बरयताय. उदाहरण -

अशी नज → त्‌ण्‌ / फ्‌ल्‌ / च्‌ड्‌

अशी नज → तॅण / फॅल / चॅड

आनी अशीय नज → चम्कता / चोय्ता / हास्ता

## व्यंजनांक लागल्लो अ

कोंकणी व्यंजनाचो सहज आनी चडांत चड प्रकट जांवचो उच्चार आसा भागिक ह्रस्व उच्चार; अक्षरमाला वाचतना करचो (व्यंजनाक अ जोडिल्लो) पूर्ण उच्चार न्हय. निज कोंकणी उतरांतुल्या व्यंजनाक पूर्ण उच्चार आसतना, त्या व्यंजनाक आ जोडताय. उदाहरण -

करता / खेळता / मरता / मेळता / तुका / तिका / नाका

कायळो / कामत / दाडी / भाचो / सासम / माया / दया

## ङ / ञ / ण / न / म

ङ / ञ - हीं दोनि अनुनासिक व्यंजनां कोंकणींतु उपयोगु करनाय. कारण, हीं केवल जोडाक्षरांच्या रूपान मात्र येताय. आनी तसल्या उतरांतु अनुनासिक उच्चारा खातीर अनुस्वार चिह्नाचो उपयोगु जाता. कोकणी भाषे खातीर आशिल्ली देवनागरीची लेखनव्यवस्था अनुसरून अशी जाता. उदाहरण -

शारङ्गपाणी → शारंगपाणी | पतञ्जलि → पतंजलि

ही लेखनव्यवस्था ण / न / म - ह्या अनुनासिक व्यंजनांकय (हीं जोडाक्षरांच्या रूपान आसतना मात्र) बाधक आसता. उदाहरण -

पण्डित → पंडित | मुण्डन → मुंडन | चन्दन → चंदन

निन्दा → निंदा | चन्द्र → चंद्र | अम्बर → अंबर | कुम्भ → कुंभ

**हे लेखनव्यवस्थेक एक स्पष्ट नेम आसा. केवल खाल दाकयलेल्या संदर्भांचेर मात्र जोडाक्षर सोडून अनुस्वार चिह्नाचो उपयोगु जातलो -**

ङ - अन्य कंठ्य व्यंजनां लागीं (क/ख/ग/घ) जोडतना मात्र.

ञ - अन्य तालव्य व्यंजनां लागीं (च/छ/ज/झ) जोडतना मात्र.

ण - अन्य मूर्धन्य व्यंजनां लागीं (ट/ठ/ड/ढ) जोडतना मात्र.

न - अन्य दंत्य व्यंजनां लागीं (त/थ/द/ध) जोडतना मात्र.

म - अन्य ओष्ठ्य व्यंजनां लागीं (प/फ/ब/भ) जोडतना मात्र.

**इतर तराचीं जोडाक्षरां सर्वय तशींच बरोंवका.** उदाहरण -
वाङ्मय / कण्व / गण्य / जन्म / जगन्नाथ / सम्राट / ताम्रपत्र (जगंनाथ / संराट / तांरपत्र - अशी नज.)

## न्ह / म्ह / ल्ह / व्ह

कोंकणी अक्षरमालेंतु हीं चारि जोडाक्षरां (न्ह / म्ह / ल्ह / व्ह) अदीक जावनु आसाय म्हूण सांगूयात. हीं जोडाक्षरां येंवचीं उतरां ऊणे जाल्यारीय, तसल्या उतरांक हींच जाय - न / म / ल / व - म्हूण उपयोगु करूक जायना. उदाहरण - न्हा / म्हाव / ल्हाय / व्हर

क/ख - ह्या अक्षरां मद्दें आशिल्लो उच्चाराचो व्यत्यास (अल्पप्राण / महाप्राण) न/न्ह - ह्या अक्षरां मद्देंय आसा. ना म्हळ्यार न्हा जायना. माव म्हळ्यार म्हाव जायना. लाय म्हळ्यार ल्हाय जायना. वर म्हळ्यार व्हर जायना. वीर आनी व्हीर व्यत्यास आसा. उच्चारांतु व्यत्यास आसा, आनी अर्थांतूय व्यत्यास आसा.

# र

कोंकणीतु र ह्या अक्षराक दोनि तराचे उच्चार आसाय. जाल्यार बरोंवचांतु व्यत्यास ना. उदाहरण -

- राहु / रूप / दोरी / रेखा / राजू
- रान / रूक / घोरो / घीरु / रायु

# जोडाक्षरां

अक्षरां जोडचे रीतींतु कोंकणीचो म्हूण कांय व्यत्यास ना. देवनागरीची सामान्य लेखनव्यवस्थाच. उदाहरण - क्क / च्च / ट्ट / त्त / प्प / च्छ / ज्ज / ड्ड / ण्ण / त्थ / द्द / द्ध / न्न / ब्ब / म्म / न्य / ण्व / ल्ल / स्स / र्क / र्च / ल्प / ल्म / श्य / ष्ट / स्त / स्म / क्र / व्र ...

# दोट्टीं अक्षरां

कोंकणींतु दोट्टीं अक्षरां चड बरयनाय. मार्ग, धर्म, गर्व, अध्याय, विद्यार्थी, आदी उतरां मलयाळमांत बरयतना दोट्टीं अक्षरां उपयोगु करताय. जाल्यार कोंकणींतु तशी नाका. ही देवनागरीची सामान्य लेखनव्यवस्था.

आका माका ताक नाका → अशी बरोंवका.

अक्का मक्का ताक नक्का → अशी नज.

जाल्यार कोंकणींतु दोट्टीं अक्षरांच ना म्हूण हांगा अर्थ ना. अक्कल, उच्चार, दोट्टी, उत्तम, आदी उतरांतु दोट्टीं अक्षरां अवश्य उपयोगु कोरका.

## चड माहितीक

कोंकणी भाषे खातीर आशिल्ले देवनागरीचे सहज लेखनव्यवस्थे विशीं चड माहितीक खाल दाकयलेलीं पुस्तकां पळोंवचीं.

### കൊങ്കണി ഭാഷാ പഠന സഹായി

**by Saratchandra Shenoi**

Konkani Learner through Malayalam. Deals with spoken as well as written language. Suitable for self-study also. Prose models like conversations, letter-writing, essay samples, etc. are annexed. Konkani is given in Malayalam script also for the benefit of those who wish to learn the spoken language. Includes a Malayalam - Konkani Vocabulary. Publishers: Sukrtindra Oriental Research Institute, Kochi - 32

### A Handbook for writing Better Konkani

**by Saratchandra Shenoi**

Language guide for improving Konkani writing skill. Includes an English-Konkani Vocabulary.
Publishers: Sukrtindra Oriental Research Institute, Kochi - 32